मार्य मोगान,
मेलवीन बाबाक.
Philoo
19.2.12.

# हुंबऱ्यावयली पणटी

(कविता संग्रह)

फिलोमीना साँफ्राँसिस्को

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

# हुंबऱ्यावयली पणटी

(कवितासंग्रह)

**फिलोमीना साँफ्राँसिस्को**

**प्रकाशन क्र.** : 78

**पयली आवृत्ती :**
फेब्रुवारी 2012


28-1913 अभ्युदय नगर,
मुंबई : 400033

**उजवाडावपी :**
मल्लिका मिलींद म्हाळशी
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,
श्रीस्थळ, काणकोण - गोंय

**छापपी :**
आदित्य मिलींद तिंबले
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स,
माशेल - गोंय

**अक्षर जुळोवणी :**
रिया ग्राफिक्स
ओल्ड-गोवा,गोंय : 403 402

**मुखचित्र** : स्वाती सुदेश नायक

**मोल** : ₹100/-

# HUMBARYAVAYALI PANATI

(Collection of Poems)

**Philomena Samfrancisco**

**Publication No. : 78**

**First Edition :**
February 2011


28-1913, Abhyudaya Nagar,
Mumbai - 400033

**Publisher :**
Mallika Milind Mhalshi
Om shri Datta Padmaja Prakashan,
Shristhal, Canacona-Goa

**Printer :**
Aditya Milind Timble
Swarnamudra Prints,
Marcela -Goa

**Typesetting :**
Riya Graphics
Old - Goa, Goa : 403 402

**Cover :** Swati Sudesh Naik

**Price** : ₹100/-

---

अखील भारतीय कोंकणी परिशदेच्या 28 व्या अधिवेशनांत शुक्रार, ता. 17 फेब्रुवारी 2012 दिसा अधिवेशनाच्या उक्तावण सुवाळ्यांत वीर सावरकर सभागृह, शिवाजी पार्क, मुंबई हांगा ही 'हुंबऱ्यावयली पणटी' पर्जळटा हाचो अभिमान प्रकाशन संस्था परिवाराक भोगता.

जुयेंचे मांयक, म्हजे शामांयक,
सर्गेस्त वेरेदियाना मोन्तेयरो सिल्वेयरा हिका,
हांव म्हजो हो कवितांचो झेलो अर्पण करतां.
हांवें म्हजें भुरगेंपण
पूर्णपणीं जियेंवचें म्हूण जुयेंचे मांयन
आपलें जाणटेपण म्हजे खातीर अर्पिलें.
म्हज्या काळजांत सदांकाळाक
रिगून आसलेली तिची याद
हांव ह्या कवितांच्या झेल्यान श्रृंगारतां.

– बाय (फिलू)

## ‘हुंबऱ्यावयली पणटी’ लकलकतेली
## कोंकणी मोग्यांची काळजां-मनां दिपकायतेली

आयच्या कोंकणी मळार अनेक तरेचे बरयणार उपजोतात, पूण कांय ावटी तांचीं बरवपां आकार नासलेलींशीं लागतात. आमच्या पूर्वजांनी ांगलेलें आसा - उंदराक लोखंडाचो वावर न्हय. फिरंग्यांली म्हण्णी : Quem mandou ao sapateiro tocar o rebecao? सोपतेराचें मोची) काम सोपतेराक, ताका रेबेकांव वाजोवंक लावचो न्हय. देवान य एकल्याक खेरीत गूण दिल्यात, ही शक्ती देवाच्या नांवान वापरूंक ामचें जण एकल्याचें आपोवणें.

आमच्या अमर उगडासाच्या आनी भांगरा पेनाच्या कवीन, मनोहरराय रदेसायबाबान आमकां शिडकायल्यात :

**“सोय बरी वांटचे आदीं**
**रोस पिळून काडचो न्हय,**
**भितर उतर शिजचे आदीं**
**गीत पानार वाडचें न्हय.”**

(जायो-जुयो)

हालींच्या तीन-चार वर्सां मदें फिलूबायेची आमकां परशीं वळख ाली. पूण वर्सां सरलीं, फिलूबायेचे लेख वाचल्यात आनी मुंबयंत ल्हान- हड जालेली चली सुदळ-सरळ गोड-रूचीक कोंकणी बरयता म्हूण आमी जापले आनी सोंतोसले.

आयज आमचें फिलोमिना सॉंफ्रॉंसिस्को एक नाजूक, कोवतीक बऱ्यावयली पणटी पेटयता. उजवाड तिचो चववशीं फांकतलो आनी ोंकणी वाचप्यांक हांसयतलो, उमेदीर हाडून धादोशी करतलो. फिलूबायेन डा उमाळ्यान आमकां सांगलां, “हो कवितांचो झेलो म्हजे सर्गेस्त तृ शामांयक (मांयची मांय) अर्पितां. म्हजे शामांयक म्हज्या जिवितांत

खूब व्हडलो जागो आसा. तिची याद म्हज्या काळजांत सामकी रिगून आसा.''

आपल्या कवितांच्या झेल्याक सुरवात दितना खास अभिमानान तें सांगता, ''चलो घरचो दिवो जाल्यार, चली हुंबऱ्यावयली पणटी. दिवो घर उजवाडान भरता जाल्यार, पणटी लक्ष्मीचीं पावलां घरांत हाडटा. उजवाडान घरांतलो काळोख नपयत जाता जाल्यार लक्ष्मीच्या आशीर्वादान घर भरोन दार वोत्ता.'' खरेंच, चल्या परीं एके चलयेक एकसारखो मान दिवंक गरजेचेंच आसता.

कांय आवयांनी चलयांक किंकोत करून, चल्याक हड्ड्यार घेतला, तांकां फिलूबाय ''हांव चलो आसलों जाल्यार?'' कवितेन चिमटो काडटा. ''चलो हांव आसलों जाल्यार, माथ्यार म्हाका घेवन आई, सर्ग धर्तरेर हाडटेली आसली. पूण तुंवूंय न्हय गे आई! एक चली?'' सत तें सदांच अमर. सत तुमकां स्वतंत्र करतलें, स्वामी जेजून आमकां शिकयलें. ''जैत'' कवितेंत सताची भेस बरी तूस्त केल्या म्हणून ''सत म्हजें भांगर कशें झगझगतलें, तेला परीं उफेतलें, फटीर तुजे जैत व्हरतलें.''

एका बरवप्याचें मन फुरफुरता, आपल्या काळजा-मनांतले उमाळ काडूंक तो उरमुटायेन तळमळटा. पळे, फिलूबाय ''यादींची गांथन'' कवितेंत कितले सुंदरायेन तें गायता, ''तिंठ्यावेल्या त्या निस्तेकान्नी भाशेन, हांवूयबी जिविताच्या म्हज्या, तिंठ्यार बसतां, यादींची म्हज्या गांथन गुथतां, कवितेचे पोंवळेर ती नेटयतां आनी रसिकांक भेटयतां.''

फिलूबायेक काळजांत सावन परबीं दिंवचे दिवन, देवाले उपोट आशीर्वाद मागतां. लांब आवक, बरी बलायकी आनी कोंकणी मळार भरपूर यश आंवडेतां. हुंबऱ्यावयली पणटी लकलकतेली, कोंकणी मोगयांचीं काळजां-मनां दिपकायतेली. हय, हय आमच्या दर घरांत ही पणटी आसुंकूच जाय ती.

**उबाल्दो फर्नांडीस**

एस. एफ. एक्स.

मुंबय, 05-09-2011

# मनोगत

एक आयदन फुटलें जाल्यार ताचो आवाज जाता. सगळ्यांक तो आवाज आयकूंक येता. जेन्ना एका मनशाचें काळीज फुट्टा, तेन्नाय आवाज येता आसतलो. पूण सगळ्यांकूच तो आवाज आयकूंक येता? वो, हो आवाज आयकपाक सगळ्यांकूच कान नासतात? आपल्या काळजाचो हो आवाज त्या मनशांक आपल्या लागशिल्ल्यांक (आनी पयसुल्ल्यांकूय) आयकुवपाचो आसता, आपलें मन हलकें करपाचें आसता. मागीर, त्या मनशान करचें तरी कितें? आपल्यो खंती, आपलें दुख्ख सांगचें जाल्यार, सांगचें तरी कोणाक? अशा वेळार, कान आसलेल्यांनी तरी आपलें फुगासांव आयकुंचें म्हूण, आपल्या काळजांतली वाफ भायर घालपाक, तांच्या काळजां मेरेन आपलो आवाज पावोवपाक, तो मनीस एका कवीचें रूप घेता, कवितेचो आदार घेता. उतरांनी तो आपली भावना तांच्या मुखार दवरता, तांच्या कानार सादयता आनी ही जाता त्या कवीची कविता. आनी हीच जाल्या म्हजीयबी कविता.

कोणें तरी सारखें म्हणलां, "WORDS in their BEST order is prose; and BEST words in their BEST order is poetry," विंचून काडलेल्या उतरांनी कवी आपली भावना कवितेच्या रुपान व्यक्त करता. मुळांतूच भावूक आसलेल्या ह्या कवीची भावूक भावना उतरांचें रूप घेता आनी ताच्या काळजांतल्यान व्हांवतली ही उतरांची झर, एक कविता जावन व्हांवत रावता, वाचप्यां मुखार धबधबो जावन कवीचो निरोप व्हरत रा-वता. आनी ही जाता त्या कवीची कविता. आनी, हीच जाल्या म्हजीयबी

कविता.

“हुंबऱ्यावयली पणटी” तुमच्या काळजाच्या हुंबऱ्यार व्हडे उमेदीन दवरतां आनी हे पणटेच्या मिणमिणट्या उजवाडान तुमच्या काळजा-घरांत भितर सरतां. ही सुपुल्ली उजवाडाची पणटी, आमचे सर्वभोंवतीं घडूंक नाका आसलेल्यो घडटेल्यो घडण्यो - गुंडागिरी - दादागिरी, चोरी - मारामारी, हुस्के-खंती, गरिबी - लाचारी, सगळें ना नपयत करूंक एक अखंड हातियार जातलें म्हूण आस्त बाळगितां. देव बरें करूं.

तुकाय देव बरें करूं पुंडलीकबाब. तुज्या उत्तेजनाक लागून हांव ही “हुंबऱ्यावयली पणटी” पेटोवंक शकलीं.

आनी तुकाय बी देव बरें करूं फादर उबाल्द. बांद्रा मोंत सायबिणीच्या आनी मान्यवंत पाद्र आग्नेलाच्या पायांशीं येंवच्या निमतान तरी तुमची भेट जाता.

शेवटीं, म्हजे जुयेंचे मांयचो उल्लेख केलेबगर हांव म्हजें मनोगत पूर्ण कशें करूं? म्हजे शामांयक (मांयचे मांयक) हांव “जुयेंची मांय” म्हणटां. कारण, जुयेंची मांय सांत ईस्तेवांची, म्हणचेच जुयेंची देखून. जुयेंच्या मांयच्या अमळीक मोगाक हांव संवसारांतली खंयचीच मोलादीक वस्त सर करूंक शकना. म्हज्या भावान तर जुयेंचे मांयन ताका दिल्लें आपल्या गळ्यांतलें तेरसाचें कोंत आजुनूय सांबाळून दवरलां. उपकारी मनान जुयेंचे मांयचो आयज लेगीत मोगान उगडास करतां आनी तुमकांय दिनवासतां.

**- फिलोमीना सॉंफ्रॉंसिस्को**

मुंबय
04 फेब्रुवारी 2012

# हांव भोव उपकारी !

- म्हजो 'हुंबऱ्यावयली पणटी' हो कवितासंग्रह छापून हाडूंक मार्गदर्शन केल्लेखातीर भौ. पुंडलीकबाब नायक हांची

- पुस्तक छापून घेवपाचो आनी उजवाडा हाडपाचो वावर केल्लेखातीर कमलाकरबाब म्हाळशी हांची

- प्रकाशक मल्लिका मिलींद म्हाळशी हांची

- पुस्तकाखातीर उत्तम कवर - चित्र काडून दिल्लेखातीर स्वाती सुदेश नायक हांची

- वेवस्थीत टायपसेटींग करून दिल्लेखातीर रिया ग्राफिक्स हांची

- पुस्तक भोव बरे तरेन छापून दिल्लेखातीर स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स, माशेल गोंयचे आदित्य मिलिंद तिंबले आनी तांच्या कर्मचाऱ्यांची.

हांव भोव उपकारी !

**- फिलोमीना साँफ्राँसिस्को**
लेखिका

# मांडावळ

1.

## जायच जाय

ताका पन्नास लिबरां भांगार जाय
जोग, कांकणां, सरपळी जाय
मास्कोत, कानांतलीं, मुदी जाय; आनी...
पांयजणां दिल्यार... तिंवूय जाय

ताका टी.व्ही., विडयो, रेडयो जाय,
फ्रिज, मिशीन, गॅस जाय,
कोबॉड, सोफा, खाट जाय; आनी...
मोनकुटो दिल्यार... तोवूय जाय.

ताका सूट, बूट, टाय जाय,
रावूंक घर ना, घर जाय,
सायकल, स्कूटर, मॉटॉर जाय; आनी
तीन चाकांची सायकल दिल्यार... तिवूय जाय.

चलोवंक नकळो तरूय होन्डा जाय,
वाजोवंक नकळो, तरूय गिटार जाय,
आयकूंक उणें येता, तरूय सी. डी. जाय; आनी...
दाट हारश्यांचीं वोकलां दिल्यार... तिंवूय जाय.

हेंवूय जाय, तेंवूय जाय,
सगळेंच जायच जाय;
कारण, तो एक भिकारी न्हवरो,
ताका दोत नाका; पूण
हें सगळें मात जायच जाय, जायच जाय.

2.
## असलेयबी मनीस

आपुणूय जियेनात; आनी दुसऱ्यांकूय जियेवंक दिनात.

आपल्यो त्यो हिकमती,
दुसऱ्याच्यो चुकी; पूण
हांव हांसतां देसाक, आनी
देस हांसता म्हज्या भेसाक
म्हण तांकां खबर ना.
असले हे मनीस,
आपुणूय जियेनात; आनी दुसऱ्यांकूय जियेवंक दिनात.

आयज आदनांतले रडटात
तर सुपांतले हांस-हांस हांसतात,
तरणें पान हांसता पिकलेल्याक;
पूण आयज म्हाका, फाल्यां तुका
म्हूण तांकां खबर ना.
असले हे मनीस,
आपुणूय जियेनात; आनी दुसऱ्यांकूय जियेवंक दिनात

आसलेल्या लागीं मागचें,
नासलेल्याक दिंवचें म्हूण आसलें,
तरूय, गिरेस्ताचो सुट्टा म्हणसर पयसो
गरिबाचो मरता भुरगो
म्हूण तांकां खबर ना.
असले हे मनीस.
आपुणूय जियेनात; आनी दुसऱ्यांकूय जियेवंक दिनात

आपल्या दोळ्यांत आसतना पाटी
दुसऱ्याच्या दोळ्यांतलें
नासलेलेंच काडटात कुस्कूट,
पूण आपली फाट आपल्याक दिसना
म्हूण तांकां खबर ना.
असले हे मनीस.
आपुणूय जियेनांत; आनी दुसऱ्यांकूय जियेवंक दिनात

आडेचें उदक नारलांत घातल्यार
उदक कशेंच गोड जायना,
मोराचीं पांखां लावन
कावळो कसोच मोर जायना
म्हूण तांकां खबर ना.
असले हे मनीस,
आपुणूय जियेनांत; आनी दुसऱ्यांकूय जियेवंक दिनात

फुलूच्या खुस्तार खोजने मारतात,
रगड्या खुस्तार सान्नां खातात,
आयत्या बिळांत नागोबा रावता;
पूण एका हातान ताळयो पेटनात
म्हूण तांकां खबर ना
असले हे मनीस,
आपुणूय जियेनात; आनी दुसऱ्यांकूय जियेवंक दिनात

रांदलेलें तें सरता,
केलेलें तें सदांच उरता,
जिवीत समजुपा खातीर नासता,
जिवीत जगपा खातीर आसता
म्हूण तांकां खबर आसा;
असलेयबी मनीस आसात; जे
आपुणूय जियेतात; आनी दुसऱ्यांकूय जियेवूंक दितात

3.
# यादींची गांथन

तिंठ्यावेल्या त्या
निस्तेकान्नी भाशेन
हांवूंयबी
जिविताच्या म्हज्या
तिंठ्यार बसतां,
यादींची म्हज्या
गांथन गुंथतां,
कवितेचे पोंवळेर
ती नेटयतां; आनी
रसिकांक भेटयतां;
ना वांटपण;
फकत गोड – कोडू
यादींची म्हज्या
गुंथलेली ही गांथन
मोगाचे रांदनीर दवरून
काळजाच्या कुंडल्यांत
तोवसून, शिजोवन,
स्वाद चाखपा खातीर.

4.
## हुंबऱ्यावयली पणटी

चलो घराचो दिवो जाल्यार,
चली हुंबऱ्यावयली पणटी;
दिवो घर उजवाडान भरता जाल्यार,
पणटी लक्ष्मीचीं पावलां घरांत हाडटा;
उजवाडान घरांतलो काळोख नपयत जाता जाल्यार,
लक्ष्मीच्या आशीर्वादान घर भरोन दार वोत्ता;
मागीर, दिव्यांत आनी पणटेंत
भेदभाव कित्याक?

5.

## ऑमथ्या कळशार उदक

तो आपलें जिवीत जगला
अशें मरणा उपरांत
जमलेल्या सगळ्यांनी म्हळें;
पूण दुसऱ्यानूय बी
आपलें जिवीत जगचें देखून
ताणें कितें केलें?
जिविताचें ताच्या सार्थक जालें?
काय ओमथ्या कळशार उदक!

6.

## अशा वेळार

आंगणांत दिव्यांचो
प्रकाश लकलकतालो,
घरांत संगिताचे
सूर खेळटाले,
मनांत खोशालकायेची
झर व्हांवताली,
काळजांत सुखाचीं
ल्हारां पेंवतालीं.

अकस्मात...
लकलकतले दिवे पालवले.
काळोखूच काळोख जालो,
संगिताचे सूर शेणले,
शिमितरींतली शांती पसरली,
खोशालकाय पळून गेली, आनी
परतुपाक वाट चुकली,
सूख ना नपयत जालें, आनी
घरची दिशा विसरलें.

अशा वेळार...
एकूच दिवो पेटलो
फोलेर कसो चमकलो,
भिरांत पयस करून
भरवंसो म्हाका दिलो,
निराशा धांवडावन
जीव आशेन भरलो,
दिशेक दिशा दाखोवन
संवसार म्हजो राखलो;
हो दिवो तेन्ना आसलो,
आयजूय आसा.
हो दिवो
तूं.

7.

## वाट

तूं चलताय ती वाट
तुका पावपाक जाय
थंय तुका
पावयना जाल्यार,
वाटेक सांगाता
तुज्या घेवन
फाटीं पळेनासतना
फुडें, फुडें
चलत राव,
वाटेक सांगाता तुज्या
व्हरत राव.

8.
## जैत

तुजें सत, म्हजे फट,
आड्डोन तूं आड्डोता.
पूण सत दिसपी फटीर तुजे
फट दिसपी सतान म्हज्या
काजुल्याच्या उजवाडाचो
फर्र चडयला म्हूण तुका
खबर आसा?

आनी केन्ना तरी
काळाचें वोत
फर्र हो पिगळायतलें,
विरगळायतलें,
सत दिसपी फट तुजी
उक्ताडार हाडटलें.

तेन्ना, फट दिसपी सत म्हजें
भांगार कशें झगझगतलें,
तेला परीं उफेतलें,
फटीर तुजे जैत व्हरतलें.

9.

## करचें कितें?

चार मनशांच्या त्या कोंकणी कुटुंबांत
आयकूंक येना उतर कोंकणीचें
इंगलेजीचें भूत मानगुटेर तांचे बसलें
तर आमी मागीर करचें कितें?

चल्लां घरांत लिसांव इंगलेजीचें
ना नपयत केलां नांव कोंकणीचें
अशेंच जर हें ''नाटक'' चल्लें
तर आमी मागीर करचें कितें?

आवय म्हणटा इंगलीशूच उलोवचें
तांतूंत आसा व्हडपण आमचें
बापूय म्हणटा चिंतलें ना तर कोंकणीचें
तर आमी मागीर करचें कितें?

म्हण्णें हें बापायचें
भुरग्यांचे मतींत घालचें कोणें?
जिबेर तांचे ना तर उतर कोंकणीचें
तर आमी मागीर करचें कितें?

बुद्द घाणाक दवरिल्ल्यांच्या कर्मांक रडचें?
वो, कपलार हात दवरून कोनश्याक बसचें?
वो, फुटक्या नशिबाक आमच्या शिणचें?
सांगात, आमी मागीर करचें कितें?

10.
## धबधबो

काळजाचे म्हजे खरीक
दुखाची झर फुट्टा, आनी
दुखांचो धबधबो जावन
दोळ्यांतल्यान सळसळीत
व्हांवत रावता;
वाटेर मेळटल्या
कश्टांच्या कांट्यांतल्यान
दोगड्यांच्यां दोंगरांतल्यान
वांकडी – तिंकडी
वाट काडीत
नितळ, निर्मळ
वाट कश्टी
तांकोत रावता,
फुडली दिशा
सोदीत रावता
सुखाच्या समदीराक मेळपाची

11.

## म्हजीं दुकां

दोळ्यांतल्यान व्हांवपी तीं दुकां
उदकाचे थेंबे न्हय ते,
काळजाचे खरीक सावन व्हांवतलो
रगताचो दर्या तो.

तांबड्या दर्यांत ह्या व्हांवतात
अविस्वाशी इश्टांनी फाटसून केल्ले
वार विस्वासघाताचे

अभिमानाच्या झुजा मळावेल्यान
उतरांचे तरसादीन केल्ले
तिरपाटे स्वाभिमानाचे
मानाच्या सोयऱ्यां धायऱ्यांच्या
तोंडांतल्यान सटसटीत सुटपी
खर उतरां अपमानाचीं.

दुसमानाचे जिबेचे कातरीन
कातरून, कातरून कातरलेलीं
बोंतरां काळजां – मनाचीं
उपकारांच्या दर्यांत
ताडी-मिडी करतात व्हडीं
अनुपकारांच्या वज्यांचीं

जंय जाय आसलो सुखाचो सागर
दिसतात थंय दोंगरा येदे व्हड
आडमेळ्यांचे दोंगोर

आसा काळजांत शांती भंग करपी
अशांत, अस्वस्थ मनाचो
बडय, बडय बडोवपी धोल; आनी...

बोवाळाच्या ह्या ल्हारां मदेकात आसा
जागजूग नासलेलें तें
एकसुरपणाचें एकसुरें जुंवें

आनी... आनी, मागीर
चेपणांनी चेपलेलें मन हें
व्हांवत वता, झरत रावता, आनी
खडपा भाशेन अखंड काळजाक
पाजर फुट्टा, पिगळटा

दर्याच्या मोडणाची दिशा बदलता,
परत एकदां काळजाक एकवट्टा; आनी
उदकाचे थेंबे दिसपी
रगताचो दर्या तो
ना दिसपी अंतस्करणांतल्यान
धडपडत, झडपडत
मन मेकळें जावंक दिवपी
दोळ्यांतल्यान वाट मेकळी करता.

12.
## कशें म्हणूं?

वाऱ्याची लाट
म्हाका रे
दिसना देखून
वारें ना
हांव म्हणिना

तर
स्पर्श करपी
देवाचो हात
म्हाका झळखना देखून
देव ना
हांव कशें म्हणूं?

13.

# यादींचीं फुलां

एक एक रंगीत फूल
तुजे रंगीत यादींचो
परमळीत झेलो जावन
रात उजवाडायतेल्या
मंद चान्याच्या
उजवाडा परीं
मनाक म्हज्या
परमळान तुज्या
भुलयता;
सुखाच्या पाळण्यांत
धोलयता;
उमेदीच्या पतंगांत
उबयता;
खोशयेच्या तालार
नाचयता;
आनीक एक फावट
तुजेशीं पावयता;
रंगीत यादींच्या
तुज्या संवसारांत

14.

## नापास म्हाका जावपाचें ना

सकाळीं उट्टाना
उगडास तुजो केल्या बगर देवा
दीस म्हजो उदेना,
रातीक न्हिदताना, परत
उगडास तुजो केल्या बगर
सांज म्हजी मावळना;
मनांतलें सगळें तुका
सांगल्या बगर देवा
कसोच थार म्हाका ना
वर्सां सरलीं देवा
गाराणीं म्हजीं
कानार तुज्या घालीत रावलीं,
संवसारी वस्तुंनी लबदल्लें
मन हें म्हजें बदलूंक
चमत्काराची विनंती करीत रावलीं,
उपकारांचेर उपकार म्हजेर
तुजे कडल्यान करून घेयत रावलीं,
काल परयान देवा म्हज्या
जिवितांतल्या परिक्षांनी ह्या

पास हांव जायत रावलीं,
अकस्मात देवा तुका
आयज जालें तरी कितें?
मागणें म्हजें तूं
भेऱ्या कानार घालताय
बेपर्वा म्हजी करताय
सपन म्हजें एकूय
साकार तूं करीनाय;
कित्याक देवा? कित्याक?
हांव बिलकूल नेणां;
तरूय दिमयेर पडून
मागतां हांव देवा
हात जोडून तुका
पराथतां
इतले उपकार म्हजेर केल्याय,
आनीक एक उपकार कर देवा,
कश्टांच्या चेपणान
चेपल्यां हांव देवा,
उठपाची शक्ति उरूंक ना,
परीक्षा म्हजी घेनाका,
निमणें हे घडयेक देवा
नापास म्हाका जावपाचें ना

15.
## जिविताचें व्हडें ताणचें कशें?

हें दिसलें, सट्ट करून घेतलें
तें दिसलें, तेंवूंय बॅगांत घातलें
मिरोवपाक धा जाणां मदें
आसलेलें नासलेलें सगळें खर्चिलें
जिविताचें व्हडें आतां ताणचें कशें?

भांडवल हातांत आसलेलें
गांठीक बिलकूल ना सांबाळ्ळें
इश्टाचें बरेपण जोडूंक मोडलें
हात रिते इश्टांचें भिरें नाच्च जालें
जिविताचें व्हडें आतां ताणचें कशें?

मारताना खसपायो दिसा – दिसपटें
चिंतलें ना मात्तूय फुडाराचें
व्हडपण मात मेळयलें तात्पुरतें
तकलेर पडलें आतां टॅन्शन रिणाचें
जिविताचें व्हडें आतां ताणचें कशें?

माथ्यार आतां वजें चिंतनांचें
विसव घेवंक झळकना एकूय दवरणें
न्हीद खळ्ळ्या जागरण जाता रातचें,
जिविताचें उमाणें हें सोडोवचें कशें?
जिविताचें व्हडें आतां ताणचें कशें?

16.

## मरपाचें आसल्यारूय

जिवितांतले कश्ट हे आमी
भोगुंकूच जाय,
खरशेत, धांपेत
आडमेळ्यांचे दोंगोर आमी
चडुंकूच जाय,
जिविताची ह्या गाडी आमी
चलोवंकूच जाय;
अंता मेरेन धांवडी आमी
काडुंकूच जाय;
आनी, केन्ना तरी आमकां
मरपाचें आसल्यारूय,
आयचो दीस तर आमी
जगोंकूच जाय

17.

## शेवटीं कितें?

हें म्हजें, तेंवूय म्हजें,
म्हजें तें म्हजें, आनी
तुजें तेंवूय म्हजें;
सगळें म्हजेंच म्हजें.

मेळटा तें ना सोडपाचें,
मेळना तें हडप करपाचें,
जें सांपडटा तें लुटपाचें,
तिजोरेंत दामून, चेपून लोटपाचें.

शेवटीं कितें?
येतोच आपोवणें निमणें
एकटायल्लें थंयच सांडपाचें
कोणाचेय भरीक घालपाचें
आनी तोंड घेवन वचपाचें.

18.

## किनारो

पावला कणकणीं
शंबर मनीस,
शंबर मनशांचे
शंबर प्रश्न,
शंबर प्रश्नांची
काळजांनी तांच्या
फुट्टा झर,
आनी झर ही
पाजरत आसता, पाजरत रावता,
धबधबो जाता, दर्या जाता
आनी दर्यांतल्यान ह्या
धडधडे, कडकडे
कांपेरे तांचे
व्हांवत आसतात, व्हांवत रावतात,
तळमळ्यांच्या ल्हारांर
आपटतात, धपटतात,
केन्ना तरी
प्रश्नांचो ह्या
अंत करपी किनारो
मेळोवपा खातीर

19.

## सारकें?

काळजांत घात लिपोवन
तोंडार हांसो खेळोवन
तुजो मोग करतां म्हणप
सारकें?

गरीबांक लुटून, नागोवन
दुडू एकठांय करून
दान केलें म्हणप
सारकें?

मनांत निड्डुकाय दवरून
भायल्यान गोड - गोड उलोवन
पेल्याचो मोग करतां म्हणप
सारकें?

देवाचें नांव घेवन
दुसऱ्याक बोटां दाखोवन
देवाचें उतर पाळटां म्हणप
सारकें?

वायट संवंयांपासून पयस रावून
आमचे हात साफ दवरप सारकेंच;
पूण वायट सवंयांनी घुसपल्ले आसात
तांकां तातुंतल्यान सोडवपापासून
पयर रावप सारकें?
आमच्या घरांनी आमी सगळ्यांनी
सुख, शांतीन, सवस्तकायेन रावप सारकेंच;
पूण शेजारच्या घराब्यांतलीं
झगडीं, गाळयो, फस्त्यो आयकुनूय बी
ओगीच सुशेगाद बसून रावप सारकें?

आपले लागीं खूब, खूब संपत्ती
गिरेस्तकाय, दुडू आसप चुकीचें न्हय;
पूण आपल्या पेल्याक दोन वेळां
जेवूंक लेगीत मेळना तें पळोवनूय बी
ताची परिस्थिती सुदरायनासतना रावप सारकें?

आपूण सगळ्याच वाटांनी
समाधानान जियेवपा खातीर खोशी जावपाचेंच;
पूण, दुसऱ्याचेर अनीत जाता ती पळोवनूय बी
कसलीच हालचाल करिनासतना रावप सारकें?

आमी आमचे हात साफ दवरपाचेच,
पूण साफ हात रिकामे ना दवरपाचे;
आजू-बाजूच्यांची शेजाऱ्यांची मजत करून
भरपूर करण्यांनी भरून घेवपाचे.

20.
# केन्ना तरी

केन्ना तरी हांव,
म्हज्या आवय बापायचे उपकार आठयतलीं
तांचो खूब मोग करतां म्हूण
करण्यांनी तांकां दाखयतलीं;
केन्ना तरी!

केन्ना तरी हांव
एक चीट बरोवंक बसतेलीं
म्हजें जिवित घडयल्ले खातीर
म्हज्या शिक्षकाक दिनवासतेलीं;
केन्ना तरी!

केन्ना तरी हांव
गरीब म्हज्या शेजाऱ्याची
भूक मिटोवंक हालचाल करतलीं
ताच्या कश्टांनी सामील जातलीं
केन्ना तरी!

केन्ना तरी हांव
वातीच्या उजवाडांत शिकपी
शेजारच्या त्या गरीब शिकप्याक
देसाचो अभिमान जावंक उर्बा दितलीं;
केन्ना तरी!

केन्ना तरी हांव
म्हजें म्हाकाच विसरतेलीं
आनी निरासरी भुरग्यांक भेट्टेलीं
तांच्या काळजांत खूब मोग वोत्तेलीं,
केन्ना तरी.

केन्ना तरी हांव
शाळेंतले म्हजे इश्टिणीक कार्ड धाडटेलीं
आनी केन्ना तरी आमी इश्टिणी आसल्यांव म्हूण
ताका हांव उगडास करून दितलीं;
केन्ना तरी.

हय; हें सगळें हांव करतेलीं
नक्कीच करतेलीं,
केन्ना तरी;
पूण "केन्ना तरी" कित्याक?
आयज कित्याक न्हय?

21.
## सुकती

केन्ना तरी हांव
खूब, खूब हांसतालीं,
दोळ्यांनी दुकां येमेरेन;
जिविताच्या म्हज्या
एका, एका दिसांत,
ना; एका, एका खिणांत
आसली भरती हांश्यांची.

आनी अकस्मात
हांश्याक ह्या म्हज्या
खबर ना कोणाची
दिश्ट लागली,
दोळ्यांतल्या ह्या दुकांचें
काळीज रडोवपी दुकांत
परिवर्तन केन्ना जालें

म्हाका कळ्ळेंच ना.
जिवितांत् म्हज्या
सुकती केन्ना आयली
म्हाका गोमलेंच ना.
आनी मागीर,
दोळ्यांतलीं हीं दुकां
दुखान तळमळताना
पळोवन म्हाका
हांस -हांस हांसूंक लागलीं,
एक - एक हांसो म्हजो
ना - नपयत जायसर
हांसूंक लागलीं;
आनी येदोळ सावन
सुखाच्या संतोसान
हांसपी हांव
दुकां गळयत रावलीं,
परत केन्ना तरी हांसपाची
हांसत उरपाची
आस्त बाळगीत

22.

## अपेक्षा

तुजे धीट पांये
आमच्या धोलत्या जिविताची वाट,
तेच वाटेंत आसा
आमच्या जिविताचो फुडार

तुजे अखंड हात
आमचे जिणेचे खांबे,
त्याच खांब्यांनी आसा
आमचे जिणेचे पांवडे

तुजे लकलकीत दोळे
आमचे काळखे जिणेचे हारशे,
आमच्या हारश्यांत तुजोच रुपकार
तुज्याच रुपकारांत आमचो फुडार

23.
## चिंतनां

मनांत म्हज्या, हजार चिंतनां,
चिंतनांचो ह्या, ना थाव, ना अंत,
चिंतनां हीं धांवत आसतात, पळत आसतात,
वांगडा म्हाकाय धांवडायत रावतात,
खरशेंवंक लायतात, धापेवंक लायतात,
नाका पुरो करतात, भोगणार करतात,
जीव म्हजो हो अर्धमेलो करतात
मन म्हजें उदास करतात
जीण म्हजी तीं उध्वस्त करतात
जिवितांतली उर्बा ना – नपयत करतात
शांती म्हजी तीं चोरून व्हरतात
जिवित म्हजें ओराणें करतात
मृगजळाची झळक लेगीत
झळकूंक म्हाका तीं दिनात
कोणयो मात रेंवेंच्यो भरपूर
घाव्यार मीट घांसचें तशें
दोळ्यांनी म्हज्या भरशितात
जिविताची म्हज्या वाट लायतात;
पूण वाट ही, चिंतनांक ह्या
दाखयली कोणें? चलयली कोणें?
परवानगी तांकां दिलीच कोणें?

24.
## म्हजीं अधुरीं सपनां

केन्नाय हांव चिंततां–
तुंवें त्या फुला भाशेन जावचें;
तुज्या मोयपाशी मोगाच्या परमळान तुंवें
तुजे सरभोंवतणचें वातावरण परमळीत करचें.

केन्नाय हांव चिंततां–
तुंवें त्या दोंगरा भाशेन जावचें;
तुज्या बळवंत सबावाच्या बळान तुंवें
अनीतीचें मूळ मुळापासून तोडचें.

केन्नाय हांव चिंततां –
तुंवें त्या नखेत्रा भाशेन जावचें;
तुज्या लकलकीत गुणांच्या परजळान तुंवें
दाटून आसलेल्या काळखाचेर चान्नें फांकारचें.

केन्नाय हांव चिंततां –
तुंवें त्या सागरा भाशेन जावचें;
तुज्या खोल विचारांचे शक्तेन तुंवें
ह्या समाजाक नवें मार्गदर्शन दिवचें.

केन्नाय हांव चिंततां–
तुंवें तुजेच भाशेन आसचें
तुज्यांतलें तुजें सर्वस्व तुंवें
फकत पेल्या खातीर अर्पण करचें.

25.

## दवरणों

सूख म्हाका
सूख दिवन
उपकाराचें वजें
माथ्यार म्हज्या
दवरता;
तेन्ना
दुखाचें दवरणें
फुडें येवन
वजें हें
आपल्या माथ्यार
घेता;
आनी
सुखाच्या उपकारांतलें
मुक्त म्हाका करून,
दुखाचे दुखींतल्यान
प्राप्त जाल्लें सूख
अणभवूंक म्हाका शिकयता

26.

## चलो हांव आसलों जाल्यार

चलो हांव आसलों जाल्यार
कान म्हजो पिळून, आई
रांदूंक म्हाका बसोवची नासली
नोण्णी काडूंक धाडची नासली
कारखान्यांत म्हाका राबोंवची नासली

चलो हांव आसलों जाल्यार
हाताक म्हज्या धरून, आई
शाळेंत म्हाका व्हरतली आसली
कॉलेजीकूय धाडटली आसली
वकील म्हाका करतली आसली

चलो हांव आसलों जाल्यार
पेट म्हाका घालून, आई
शिरपुटां पुंजांवंक धाडची नासली
कपडे उंबळूंक सांगची नासली
उदक बांयचें व्हांवोवंक लावची नासली.

चलो हांव आसलों जाल्यार
रीण लेगीत काडून, आई
फॉरेनाक म्हाका धाडटली आसली
सोयरिको म्हाका सोदतली आसली
लाखांनी दोत घेतली आसली

चलो हांव आसलों जाल्यार
माथ्यार म्हाका घेवन नाचोन, आई
सर्ग धरतरेर हाडटली आसली
चल्याची आपूण आवय म्हूण मिरयतली आसली;
पूण आई, तुंवूंय एक चली, न्हय गे?

27.

## खोटो पयसो

लग्न तुजें थारलां म्हूण
ओल्लेंत आनी सुपांतूय तूं धरना!
खोशयेक तुजे शीम मेर उरूंक ना,
पूण 'हिरो' दिसपी न्हवरो तुजो
दोन पयशे कमायनासतना
कश्ट कसलेच करिनासतना
हांगा थंय हेडटा म्हूण
तुका काळजी लागल्या?
कित्याक?
बापूय तुजो आजुनूय
जिवो आसा म्हूण
तुका खबर ना?

न्हवऱ्याचो आशेचो बापूय
तुज्या कश्टी बापायच्या
जिविताची रसरशीत ज्योत
थंयच पालोवंक सोडून
तेच ज्योतीच्या उज्यान
आपली मेणवात पेटोवन
घर आपलें उजवाडायता म्हूण
तुका हुसको दिसता?
कित्याक?

बापूय तुजो आजुनूय
जिवो आसा म्हूण
तुका खबर ना?
घोवागेर तूं वतलें

घराची राणी म्हूण मिरयतलें
नवो संवसार तुजो उबारतलें
बापायची जीण माडयतलें
सासणाचो ताका लाचार करतलें
संवसाराचो ताच्या गोबोर करतलें
जीण ताची उद्वस्त करतलें म्हूण
तूं अनमनता?
कित्याक?
बापूय तुजो आजुनूय
जिवो आसा म्हूण
तुका खबर ना?

कित्याक आसची ना?
खबर गो तुका कित्याक आसची ना?
लज तुंवें भाजून खाल्ल्या
दोळे तुंवें घट्ट धांपल्या
जागें तूं आसुनूय बी
न्हिदलेल्याचें सवंग केलां
बापायचें तुका खंय पडलां?
दोत तुका तर व्हरपाचीच आसा
बापायक फोंडांत लोटपाचोच आसा
खोट्या पयशाक सर जावपी
अक्कल गो तुजी तुंवें
घाणांक कित्याक दवरल्या?

28.

# कुपांतली भोंवडी

मुंबयच्या म्हज्या घराचे गॅलेरींत रावन
तें आयस पायस पसरलेलें निळें मळब पळेतां,
मळबांतल्यान सरकत सरकत वचपी तीं कुपां देखतां
आनी तांच्या वांगडा भोंवडेक वचूंक आशेतां.

कुपांय बी म्हाका एकटक पळोवन आमुरकींच हांसतात
आनी फुडें, फुडें खंय तरी वचत रावतात,
वांगडा म्हाकाय बी पयस, पयस घेवन वतात
आनी खंयच्या तरी पयसुल्ल्या जुंव्यार देंवयतात.

थंय ना कसले हुसके, ना कसल्यो खंती,
ना कसली गरिबी, ना कसली लाचारी,
ना कोण निरासरी, ना कोण दुखी,
ना कसल्यो भिरांती, ना कसल्यो राटावळी.

थंय ना कोणाची चोरी, ना कोणाची मारामारी,
ना कसली गुंडागिरी, ना कसली दादागिरी,
ना रानटी वृत्ती, ना कसली बंदी,
पूण सगळीच मुक्ती आनी मनाची शांती

केन्नाय तीं म्हाका लॉस ॲनजिलीस, फिलादेलफिया व्हरतात,
केन्नाय फ्लोरिडा, तर केन्नाय सानफ्राँसिस्कोक पावयतात,
थंयचे सुंदर गोल्डन ब्रिजीची झळख दाखयतात,
आनी दोळेभर पळयल्ले भाशेन तृप्त करतात
परतीचे भोंवडेर तीं म्हाका मुंबय हाडटात
जंय मद्यान रातीं लेगीत रस्त्यांचेर दिवे लिकलिकतात,

लोकांनी गच्च भरलेल्यो रेलगाडयो वेगान धांवतात,
प्रवासी एकामेकाक धुकलीत बसींनी चडटात.

चोंबयांनी मनशांचे लोंडे चलत आसात
खंय तरी ताकतीन ते धांवत वचत आसात
फुडल्या मनशाक चिड्डीत आपली वाट काडीत आसात
आपलेच धुंदींत हे मनीस जिवीत जगत आसात.

आनिकूय खूब खूब पळोवपाचें बाकी उरलां आसतना
नाका - नाका म्हणटतना, हांगा देवपाचें म्हाका नासतना

हीं कुपां परत मुंबय वस्तुस्थितींत म्हाका शेवटितात
फाल्यांची रात परतून ये मेरेन.

29.
# देणीं

देवान म्हाका कान दिल्यात
अंतस्करणाचो म्हज्या आवाज हांवें आयकुपा खातीर

देवान म्हाका हात दिल्यात
जमनीर शेवटोलेल्याक मळबा इतलो वयर हांवें उबारपा खातीर

देवान म्हाका पांये दिल्यात
वाट चुकलेल्याक पावलांच्यो म्हज्या निशाण्यो हांवें सोडपा खातीर

देवान म्हाका जीब दिल्या
साडेसाती फाटीक लागलेल्यांचे मिरमिरे हांवें चाखपा खातीर

देवान म्हाका आवाज दिला
अन्याय सोंसतेल्यांक न्याय हांवें मेळोवन दिवपा खातीर

देवान म्हाका बळ दिलां
निर्शेल्ल्यांक फाटबळ हांवें दिवपा खातीर

देवान म्हाका दोळे दिल्यात
पिडेस्तांच्या तळमळ्यांची वोळोख हांवें घेवपा खातीर

देवान म्हाका थिकाण दिलां
शेणलेल्यांक परत घरा हांवें हाडपा खातीर

देवान म्हाका सूख दिलां
दुखेस्तांच्या दुखाचो अणभव हांवें घेवपा खातीर

देवान म्हाका घराबो दिला
एकसुरपणांत जियेतल्यांचो सांगात हांवें करपा खातीर

देवान म्हजेर देण्यांचो हो पावस वतला
सगळ्यांचेर देण्यांचो हांवें शिंवर मारपा खातीर

30.
## रूपडीं

चिंतलेल्या चिंतनांनीं
उलयलेल्या उतरांतल्यान
साखर जावन
शेजाऱ्याची चाव
गोड केलेली जाल्यार...

चिंतलेल्या चिंतनांनीं
चल्लेल्या पावलांतल्यान
पांयवाट जावन
निशाणी शेजाऱ्याक
दवरलेली जाल्यार...

चिंतलेल्या चिंतनांनीं
केलेल्या करण्यांतल्यान
सायरिनीचो सिमांव जावन
शेजाऱ्याचो खुरीस
उबारलोलो जाल्यार...

जाल्यार...
रुपडीं घालून
भोंवची कोणाक
कसलीच गरज
पडची नासली

31.
# नातें

दूख तुजेर आयलें तेन्ना
इतले पयस सावन धांवून तूं
म्हजेशीं आयलें.

सुखाच्या वोलॅंतेरार
धोलतालें तेन्ना
म्हजे पासून
तितलेंच पयस तूं गेल्लें.

दुडवांच्या फोर्सार
उडटालें तेन्ना
सामकार आसुनूय हांव
नदर तुजी गो
म्हजेर पडलीच ना.

दुडवांनी तुजो
सांगात सोडटोच
म्हज्या सांगता परस
गोड सांगात तुका मेळ्ळो ना.

तेन्ना गोमलें तुका
रोगताचें नातें हें तुटना,
रोगत केन्ना दोशीं जायना,
रोगताक आपल्या कशेंक विसरना.

32.

## कित्याक दिसलें ना?

वेंगेंत म्हाका घेवचें
घट्ट म्हाका धरचें
पांयांचेर तुज्या उबारचें
वयर - खाला, खाला - वयर करचें
आसक्यो मिसक्यो खेळचें
मुरगोटून हांसप म्हजें आयकुचें
खूब लाड म्हजे करचेऽशें
केन्ना तरी तुका
दिसलां गे मम्मी?

दिसलां जाल्यार मम्मी
खरेंच सांग गे
संवसारांत ह्या म्हाका
हाडचें म्हण तुका
कित्याक गे दिसलें ना?
संवसारांतलें जें सूख
वांट्याक तुज्या आयलें
तेंच गे सूख
म्हज्याय वांट्याक हाडचेंऽशें
कित्याक गे तुका दिसलें ना?
कित्याक गे तुका दिसलें ना?

33.

## कोणाक सोदता?

जिवी आसतना
आवय तुजी
नदरेक तुज्या
ती केन्ना रे
पडलीच ना.

मातयेच्या आतां
फोंडांत तूं
आकुळ – पिकूळ
पिसांतूर जावन
कोणाक रे सोदता?

34.

# खंय रे तूं आशिल्लो?

एकलींच हांव आशिल्लीं
एकसुरीं दीस सारतालीं
याद तुजी खूब काडटालीं
सपनां तुजीं सपनेतालीं

ल्हान बाबुलो तूं आसतना
वेंगेंत घेवन खेळयतालीं
हाताक धरून चलयतालीं
हट्ट तुजे सगळे पुरयतालीं

दुयेंत तूं पडटकूच
काळीज म्हजें फुट्टालें
पिश्या परीं मन म्हजें
आकांतून रे रडटालें

धाकटुलो म्हजो बाबुलो
खंयच्यानूच व्हड जालो
लग्न जालो, संवसार उबारलो
म्हाका सोडून पयस गेलो

पयस गेलो आनी थंयच रावलो
संवसारांत आपल्या गुंथून गेलो
केन्नाय दुडू धाडीत रावलो
घरा येवंक मात वाट विसरलो

दीस गेले, वर्सां धांवलीं
खंयच्यानूच हांव म्हातारीं जालीं
पळोवंक तुका खूब आशेतालीं
दोन उतरां उलोवंक सोदतालीं

केन्नाय असो भास जातालो
बाबुलो म्हजो घरा येतलो
''मांय'' म्हूण म्हाका हडकितलो
सपनांतलो म्हाका जागयतलो

दाराक दोळे लावन बशिल्लीं
वाट तुजी उमळशिकेन पळेतालीं
नदर तुजेर घालतेलीं आसलीं
आस्त म्हजी भागयतलीं आसलीं.

पूण बाबा, तूं आयलोच ना
खबर म्हजी घेतलीच ना
याद म्हजी तुका रे आयली ना?
घरा येंव ऽ शें दिसलें ना?

आतां मात तूं धांवून आयलो
धांपलेले म्हजे दोळे उगड म्हूण
रड रड खूब तूं रडलो,
इतले दीस खंय रे तूं आशिल्लो?

35.
# म्हजें खंय कितें चुकलें?

मामा, तुमगेर म्हाका येवपाचें आसलें
घरांत तुमच्या रावपाचें आसलें
खेळपाचें आसलें, हांसपाचें आसलें
नाचांत उडोन गावपाचें आसलें.

हायेंत तुजे मामा बसपाचें आसलें
गीत गायल्लें तुवें आयकोपाचें आसलें
मांडयेर तुजे न्हिदपाचें आसलें
परयांच्या चमत्कारांत मिसळपाचें आसलें.

मोटोरांत तुमच्या भोंवपाचें आसलें
पिकनिकेक बोरोबोर वचपाचें आसलें
विमानांतूय म्हाका उडपाचें आसलें
चान्नीमामाक टा टा करपाचें आसलें.

पूण मामा, सगळेंच गे फिस्कटलें
सूख हें भोगपाक म्हाका नशीब ना जालें
संवसारांत येवच्या आदींच तुवें म्हाका नाटाक केलें
सांग गे मामा, म्हजें खंय कितें चुकलें?

36.

# रीण

वर्साच्या मिसाच्यो
विधी तुजे आवयच्यो
पाळूंक तूं
पयस सावन
उगडासान रे धांवून आयलो.

मेळूंक तुका
ती हुसकेताना
नदर घालूंक ती आशेतना
विसरोन तिका तूं
पयस पयसूच धांवलोलो

फुलांचो आतां
फोंडार तिच्या
शिंवोर करून
कर्तुबार तुज्या
तुंवें रे पड्डो वोडलो

पूण आवयच्या दुदाचें
आनी फोंडाचे मातयेचें
रीण रे तूं केन्ना तरी
फारीक करूंक शकतलो?

37.

## तूं आसली तेन्ना

तूं आसली तेन्ना मांय
सगळें वेगळें आसलें.
गालेरेंत तूं भोंवोत आसतालीय
मदेंच येवन खाटीर न्हिदतालीय
परत उठून पासोयो मारतालीय
एक – एक दीस देवाक अर्पितालीय

सांजची, वाट म्हजी पळेत उबी आसतालीय
उशीर म्हाका जाल्यार तूं हुसकेतालीय
घडणुको ऑफिसांतल्यो आयकूंक उत्सुक आसतालीय
कोणेंय म्हाका दुखयल्यार, तूं दुखोवतालीय

पिडेचें दूख आमकां कळयनासलीय
जमता तुका तितलेंय जिवाक सोंसतालीय
केन्नाय तूं उबगोवन बेजार जातालीय
आनी तेन्ना देवाचेर शीण करतालीय

कर्तव्याक तूं चुकनासलीय
हातांत तुज्या जाता आसतना
कपलाक हात लावन बसनासलीय
घर, घरासारकें सोबोयतालीय

तूं आसलीय तेन्ना मांय
सगळें वेगळें आसलें,
तेन्ना मांय तूं आसलीय
जिवितांत म्हज्या भरती आसली

तूं आसलीय तेन्ना मांय
सगळें वेगळें आसलें,
तेन्ना मांय तुजें आसणें आसलें
म्हाका कांयच उणें नासलें.
आयज तूं ना मांय
तरूय सगळें वेगळें आसा

तूं भोंवोत आसतालीय थंय
तुजी आतां म्हाका सांवळी दिसता
तूं उबी आसतालीय थंयसरूय
तुजी म्हाका सांवळी झळकता

तूं बसलेली आसतालीय थंय लेगीत
तुजे सांवळेचो म्हाका भास जाता
तूं खाटीर न्हिदतालीय थंयसरूय
तुजी सांवळी सुस्त न्हिदलेली आसता

जंय पळेत, थंय तूं दिसताय
स्पर्श करूंक हात फुडें केल्यार
मोरुवनांतल्या मृगजळा परीं पयस वयताय,
दुखी म्हाका करून नाच्च जाताय.

उगडास तुजो येतोच मांय
जीव म्हजो आकुळ - पिकूळ जाता
पिशांतूर जावन सोदतां तुका
पूण वांट्याक म्हज्या येता निराशा

तूं आतां ना मांय
तरूय सगळें वेगळें आसा;
आयज मांय तूं ना
मन म्हजें कित्यांतूच रमना.

तूं आतां ना मांय
तरूय सगळें वेगळें आसा;
आयज तुजें आसणें ना
जिवीत म्हजें रिकामें जालां.

38.
## नशीब

हांव सोदतां सूख, आनी
म्हाका सोदता दूख;
हांव देखतां सुखाक, आनी
सुख देखता म्हाका;
तेन्ना नदरे मदेकात आमच्या
धांवून येता दूख;
तरूय, चुकोवन नदर
पदरांत म्हज्या
पडटा सूख;
पूण घोणीन पिलाक
ज्यूस्त उखलून व्हरचें
तशें, चोपको मारून
सुखाक म्हज्या
व्हरता दूख

39.

## पावसा, भोंगोस तांकां

पावसा, पावसा
खंय रे तूं आसा?
दोळ्यांत तेल घालून
वाट तुजी पळेत आसां.
आयज येतलो, फाल्यां येतलो
घसघश्यांनी वोत्तोलो,
शेतां, भाटां भिजयतलो,
जमनीची तान भागयतलो
घामेल्लो जीव थंडायतलो,
खोश्येचो पावस, पावसा तूं
आमचेर शिंवरायतलो, म्हूण
वाटेक दोळे लावन आमी बसल्यांव;
पूण तुजो तर पत्तोच ना,
कोणें तरी पत्तो तुजो
शेणयलासो दिसता,
झाडां, पेडां कातरून
दिशा तुजी बदल्ल्या
देखून आमचेर रागार रे?

आवय – बापूय करता पाप
आनी भुरगीं दितात जाप
अशी गत आमची जाल्या,
झाडां कातरून – कातरून
बोलसां ते भरीत आसात,
उदकाच्या थेंब्याक मात
भुरगीं तुजीं वळवळटात,
जळीमळीं पांये झरयतात,
बांयच्यो झरी सुकल्यात
पूण दोळ्यांतल्यान मात
घोसघोश्यांनी झरी व्हांवतात
मागणें म्हजें एक
कानामनार घेशी तूं?
सरपट पडून तुजे लागीं
मागतां पावसा,
भोगोस तांकां,
खऱ्यांनीच भोगोस तांकां,
उंदराच्या रागान
घराक उजो घालीनाका.

40.
## म्हजें जिवीत तूं

म्हज्या कोडू संवसारांतलें
म्होंव तूं.

म्हज्या पोकोळ फुडाराचो
गीरप तूं.

म्हज्या ओसाड वाटेची
सांवळी तूं.

म्हज्या निर्शेल्ल्या जिणेची
आशा तूं.

म्हज्या सुकलेल्या वालीचें
फूल तूं.

म्हज्या ह्या जिवितांतलें
जिवितूच तूं.

41.
## मौतयां हार

मोग तुजो
जिविताचो म्हज्या
फोलेर जावन
जिविताक म्हज्या वाट दाखयता

मोग तुजो
जिविताची म्हज्या
बुनयाद जावन
जिविताक म्हज्या घटाय दिता

मोग तुजो
जिविताचो म्हज्या
उजवाड जावन
जिविताक म्हज्या परजळ दिता

मोग तुजो
जिविताचो म्हज्या
मोतयां हार जावन
जिविताक म्हज्या शृंगारता

मोग तुजो
जिविताचें म्हज्या
जिवीत जावन
जिविताक म्हज्या अर्थ दिता

42.
## मोग आसचो जाल्यार

ह्या संवसारांत सर्ग आसचो जाल्यार
तो फकत तुज्या दोळ्यांनी

ह्या संवसारांत गोडसाण आसची जाल्यार
ती फकत तुज्या उतरांनी

ह्या संवसारांत सत आसचें जाल्यार
तें फकत तुज्या करण्यांनी

ह्या संवसारांत खरेपण आसचें जाल्यार
तें फकत तुज्या चिंतनांनी

ह्या संवसारांत मोग आसचो जाल्यार
तो फकत तुज्या आनी म्हज्या काळजांनी

43.

## म्हज्या जिवितांतलें गीत

म्हज्या जिवितांतलें गीत
तूं.

न्हिदतना, उट्टना,
हेंच गीत म्हाका उमेद दितलें

चलतना, भोंवताना
हेंच गीत म्हजो सांगात करतलें

सुखांत तशें दुखांत
हेंच गीत म्हाका वेंगयतलें

म्हज्या जिवितांतलें हें गीत
म्हजें जिवितूच जातलें
सदांच

44.

## तुजे नदरेंतल्यान

जिणेची ही, वाट हांवें चलची जाल्यार
तुज्या पावलांतल्यान,
तांतुंतली गोडी हांवें चाकची जाल्यारूय
तुज्याच पावलांतल्यान

संवसार हो, हांवें पळोवचो जाल्यार
तुजे नदरेंतल्यान,
तातुंतली सोबीतकाय हांवें देखची जाल्यारूय
तुजेच नदरेंतल्यान

जिविताचो ह्या, अर्थ हांवें घेवचो जाल्यार
तुज्या निर्व्याजपणांतल्यान
म्हजें भुरगेपण हांवें जगचें जाल्यारूय
तुज्या निर्व्याजपणांतल्यान
तुज्या भुरगेपणांतल्यान

45.

## फुडार

हड्ड्यांत म्हज्या
काळीज आसा,
काळजांत म्हज्या
मोग आसा
फकत तुजो

मोगांत तुज्या
सूख आसा,
सुखांत तुज्या
संवसार आसा
फकत म्हजो

संवसारांत म्हज्या
घर आसा,
घरांत म्हज्या
हांसो आसा
फकत तुजो

हांश्यांत तुज्या
सपन आसा,
सपनांत तुज्या
फुडार आसा
फकत म्हजो आनी
तुजो

46.

## भावना

काळजांतली म्हज्या
कोडसाण काडची जाल्यार
तुंवेंनूच;
काळजांत म्हज्या
गोडसाण भरची जाल्यारूय
तुंवेंनूच.

मनांतली म्हज्या
निरशेणी काडची जाल्यार
तुंवेंनूच;
मनांत म्हज्या
भरवांसो रिगंवचो जाल्यारूय
तुंवेंनूच

वाटेवेले म्हज्या
कांटे काडचे जाल्यार
तुंवेंनूच;
वाटेर म्हजे
फुलां वोंवचीं जाल्यारूय
तुंवेंनूच

47.
## मोग

मोग म्हळ्यार उजो
केन्नाच पालोवनासलेलो

मोग म्हळ्यार झर
सदांच व्हांवतेली

मोग म्हळ्यार घोंटेर
जिणेक उब दितोलो

मोग म्हळ्यार संगीत
उर्बेन दवरतेलें

मोग म्हळ्यार अमृत
तान - भूक भागयतेलें

48.
## दिशा

मोग तुजो
मोग म्हजो
समाजाक जावं दी
एक उजो
काळजांनी जळटलो

मोग तुजो
मोग म्हजो
समाजाक जावं दी
एक दिवो
वाट दाखयतलो

मोग तुजो
मोग म्हजो
समाजाक जावं दी
एक भरवंसो
जिणेक अर्थ दितलो

49.
## चिंतनांची सांखळ

काळजांत म्हज्या
गीत आसा,
हांवें गावूंक
फकत तुका

मनांत म्हज्या
चिंतनां आसात,
कविता बरोवंक
फकत तुका

जिवितांत म्हज्या
वाट आसा,
काळजांत येवंक
फकत तुज्या

संवसारांत म्हज्या
मोग आसा
सर्ग घडोवंक
फकत तुका

## 50.
## घराबो

सुकण्यांनी घोंटेरांत वचचें
तशें, तुवें म्हज्या काळजांत येवचें

नखेत्रान आकाशांत लिकलिकचें
तशें, तुवें म्हजे जिणेंत परजळचें

चंद्रिमान कुपांआड दडचें
तशें, तुवें म्हजे वेंगेंत लिपचें

झाडांनी वाऱ्या तालार धोलचें
तशें, तुवें म्हजे होटयेंत खेळचें

पावसान निसर्गाक पाचवें रूप दिवचें
तशें, तुवें म्हजें जिवीत श्रृंगारचें

साळकांनी तळें सोबोवचें
तशें, तुवें म्हजें जिवीत नेटोवचें

51.
## सपनांतलो सर्ग

काळजांतलो म्हजो मोग तूं
मोगांतलें म्हजें अमृत तूं

दोळ्यांतलो म्हजो हारसो तूं
हारश्यांतलो म्हजो रूपकार तूं

नदरेंतलें म्हजें मळब तूं
मळबांतलें म्हजें नखेत्र तूं

जिणेंतलें म्हजें सपन तूं
सपनांतलो म्हजो सर्ग तूं

पावलांची म्हज्या दिशा तूं
दिशेंतलें म्हजे थिकाण तूं

कुडींतलो म्हजो स्वास तूं
जिवितांतलो म्हजो जिवूच तूं

52.

## तूं आनी हांव

जिवीत हें जगतां हांव
जिविताक दिशा दिताय तूं

दिशेंतल्यान त्या वेतां हांव
दिशेंत सपनां भरताय तूं

सपनां तीं सपनेतां हांव
सपनांक आकार दिताय तूं

जीण ही जियेतां हांव
जिणेची वाट दाखयताय तूं

वाट ती चलतां हांव
वाटेचीं पावलां चलयताय तूं

पावलां तीं उखलतां हांव
पावलांचें थिकाण थारायताय तूं

थिकाणार पावसातर थकतां हांव
हात दिवन म्हाका सांबाळटाय तूं

53.
## सांगचें जाल्यार कोणाक?

काळजांतलें म्हज्या
गुपीत तें
विस्वास तुजेर
दवरून हांवें
कानांत तुज्या ल्हवूच सांगलें.

कांय काळान
तुका सांगलेलें
गुपीत म्हजें
त्या मनशान
दुसऱ्याक सांगलें, पसरत तें गेलें.

अशें चक्र हें
चलत रावलें,
आनी शेवटीं
भलत्याच मनशान
म्हजेंच गुपीत म्हाकाच सांगलें

आनी मागीर
वाऱ्यार कापूस
उडचो, तशें नांव म्हजें
हुबोत गेलें
हुबोत, हुबोत रावलें.

54.

## पॊरनॊ फॊटू

ते दीस बसलेलीं गो हांव
कोबोडाचो खण साफ करपाक
नाका आसलोलो कचरो
काडून भायर उडोवपाक,
कचऱ्यांत त्या मेळ्ळो म्हाका
तुजो खूब पोरनो फोटू,
आनी जालेंच; खिणांतूच फोटू हो तुजो
काळाची लांब दोरी बांदून
पोरन्या यादींचो पतांग जावन
सांगाता म्हाका घेवन
केन्ना वयर वयर हुबोत गेलें
वेलुदाच्या लुगटा परीं
स्पर्श म्हाका करीत रावलें
म्हाका कळ्ळेंच ना;
अगणीत वेळ खेळत, उडत,
हुबोत रावलीं हांव त्या मळबांत;
आनी... आनी एकाणेंच,
रगताचें अतूट नातें
तुवें तुटयलें तशें
पतांगाची ह्या दोरी
केन्ना तुटली
धरणीर हांव, केन्ना आपटलीं
तेंवूय म्हाका कळ्ळें ना.

भानार हांव आयलीं तेन्ना
हांव एकलींच आसलीं, तूं बगलेक नासलेंच,
खूब सोदलें तुका, तरूय
तूं दिसलेंच ना, झळकलेंच ना,
खंयच्या तरी खंडांत शेवटून म्हाका
तूं मात अदृश्य जाल्लें.
खंय गेल्लें, कित्याक गेल्लें समजलें ना
काळाचें चक्र मात घुंवत रावलेलें.
केन्ना तरी, कशी तरी
भेट आमची जातलीऽ शी दिसलेलें.
म्हजी याद तुका तर आयलीच ना
पूण आमच्या त्या यादींची तरी याद तुका केन्नाच
कशी गो मात्तूय आयली ना?
आतां हांव तरी करूं कितें?
तूं म्हाका साप्प विसरलें तशें
हांवेंनूय बी तुका विसरचें;
तुजो हो फोटू तरी कित्याक दवरचो?
पिंजून तोवूय पयस शेवटुंचो,
तसोच, जशें तुवें म्हाका शेवटिलें,
हय; कागदाचो फोटू हांव पिंजीन; पूण
काळजांतलो म्हज्या घोंटेर
विसरूंक जायनासलेल्या आमच्या यादींचो,
तो गो हांवें खंय शेवटुंचो?
यादी त्यो कश्यो गो हांवें विसरच्यो?
ना समजुपी मनाची ह्या समजूत गो कशी काडची?

55.

## उतरां

काळजाक म्हज्या
पीळ घालपी
उतरां तुजीं,
दोळ्यांतल्यान म्हज्या
दुकां जावन
व्हांवत आसात;
व्हांवत आसतलीं.
कित्याक,
जेन्ना सावन
उतरां तुजीं
काळजाक म्हज्या
भाले जावन
तोपलीं, रोंबलीं,
तेन्ना सावन
काळजाक म्हज्या
दुखाची खोल
झर फुटली
व्हांवत रावली.

व्हांवत आसा; आनी
काळीज म्हजें
दुखाचो एक
दर्या जाला;
देखून,
जे मेरेन
दर्याचें उदक
ल्हारां जावन
खडपांचेर
आदळतलें,
आदळत रावतलें,
ते मेरेन
उतरां तुजीं
काळजार म्हज्या
आपटतलीं,
आपटत रावतलीं

56.

## म्हाका कळ्ळेंच ना

भावना म्हज्या काळजांतली
कळोवंक तुका हांव अथरेकताना
सांगूंक तुका यत्न करताना
तोंडांतल्यान रे म्हज्या
एकूय उतर फुटलें ना
उलोवकूच हांव शकलीं ना.

पूण गुपीत हें म्हजें
दोळ्यांनी रे म्हज्या
सांगणें म्हजें आयकनासताना
कळूंक म्हाका मात्तूय दिनासतना
तुजे मेरेन पावयलेंच कशें
बिलकूल रे म्हाका कळ्ळेंच ना.

57.

## तें आनी हांव

तें हांसलें, हांव हांसलीं,
सांगातान दोगांय हांस - हांस हांसल्यांव;
तें रडलें, हांवूय रडलीं,
दोळ्यांतलीं दुकां ताचीं हांवें पुसलीं;
हांव हांसली, तेंवूय हांसलें,
सांगातान दोगांय हांस - हांस हांसल्यांव;
हांव रडलीं, रडत आसलीं,
वांगडा म्हजे तें रडलेंच ना,
तें हांसत रावलें, हांसत उरलें,
दुकां म्हजी ताणें देखलींच ना.

58.
## ऑणयां रावल्यार शिदाव चुकता?

काळजांत म्हज्या
मोग आसा
स्विकारतलो
कोणूच ना.

काळजांत म्हज्या
दूख आसा,
आयकून घेतलो
कोणूच ना.

काळजांत म्हज्या
भावना आसात,
समजून घेतलो
कोणूच ना.

काळजांत म्हज्या
भिरांत आसा,
काडून उडयतलो
कोणूच ना.

काळजांत म्हज्या
धास्ती आसात,
ल्हवू करतलो
कोणूच ना.

काळजांत म्हज्या
विस्वास आसा,
विस्वास दवरतलो
कोणूच ना.

59.

## फुलां आनी कांटे

वाटेर म्हजे
फुलां शिंवरावन
जिवीत म्हजें
तुवें  फुलयलें;
तेन्नाच्यान
कांट्यांचो मुकूट
तोपलेलें हें
माथें म्हजें
फुलांचे झेले
माळीत आसा

60.
## ‘गेल्लीं आशेन...’

दिसलें म्हाका
वचून तुजेशीं
चार दीस रावचें,
दुखवलेल्या
काळजार म्हज्या
मलम मोगाचें लावचें;
पूण गेल्लीं आशेन
आनी सेरमांव जालो
फिरंगे भाशेन;
मलम तर तुवें
लायलेंच ना; पूण
घाव्यार म्हज्या
मीठ मात तुवें
बरेंच घशिटलें

61.

## तुका दिसता तशें

तुकां जें दिसता
तें म्हाका दिसना,
आनी म्हाका जें दिसता
तें तुका दिसना,
पूण, तुका जें दिसता
तें म्हाकाय बी दिसचें
असोय कांय नेम ना;
म्हाका जें दिसता
तेंच हांव पळेतां,
आनी जें हांव पळेतां
तेंच म्हाका दिसता;
मागीर, तुज्या दोळ्यांचीं
वोकलां काडून तूं
म्हज्या दोळ्यांक लावूंक
कित्याक रे धडपडटा?

62.

## ल्हान कविता

1.

काल सावन आयज मेरेन चलत येवं नाका,
आयज सावन फाल्यां चलत राव, चलत राव.

2.

संवसारांतल्या सगळ्या मनशांक सुखी दवरपाक
तो आसले – नासलेले सगळे उपाय घेता;
पूण घराब्यांतल्या एकान एक मनशाक दुखी करपाक
तो एकूय उपाय बाकी सोडिना.

3.

तुमी नासतना म्हाका
एक लेगीत दीस नाका ऽ सो दिसता,
तुमी आसतना म्हाका
तिनशीं पासश्टूय दीस उणे पडटात.

4.

जिवीत मरपा खातीर जगपाचें नासता,
जिवीत जगपा खातीर जगपाचें आसता.

5.

मनीस समजता हो संवसार म्हूण आपणाचोच;
आनी खऱ्यांनीच आसलो जाल्यार,
तो ओल्लेंत आनी सुपांतूय धरचो नासलो.

6.

देंवती देंवपाचें सूख भोगपाचें आसल्यार,
चट्टी चडपाचें दूख काडुंकूच जाय.

7.

एक पावट हांव ताचेर चाळवलेलें ताका दिसलें;
पूण शंबर पावटीं हांवें सोंसलेलें
ताच्या दोळ्यां आड उरलें.

8.

जिवीताची गोडसाण चाखपा खातीर
दुखाचे कोडसाणीची गरज पडटा.

9.

दुसऱ्याच्या जिवितांत हाडलेल्या हांश्यांत
आपल्या जिविताचो संतोस आसा.

10.

तूं जेयना जाल्यार, म्हजी भूक मरता;
तूं जेयलो जाल्यार,
जेयनासतना म्हजें पोट भरता.

11.

सगळेच मनीस पिशे नासतात;
पूण दुसऱ्याक पिशे करपा इतले
कांय जाण शाणे मात आसतात.

12.

आमी संवसारांत येतात ते वचपा खातीरूच
तर वचपाच्या हुसक्यान
आदीं फुडेंच मरपाचें कित्याक?

13.

मर मेरेन जिवीत आमकां जगोंकूच जाय,
जगतां, जगतां, जिवीत आमकां घडोवंक जाय.

14.

चड दुडवांचे फाटीक लागचें न्हय,
मनशान मनीसपण विसरचें न्हय.

15.

उतरां नवीं आसनात,
उतरां पोरनींच आसतात,
नकळो आसलेल्याक मात
तीं पोरनीं उतरां
नवीं थरतात.

16.

आपल्या हातांत आसा तें करपाचें,
बाकीचें देवाच्या हातांत सोडपाचें.



कोंकणी साहित्याच्या मळार फिलोमीना साँफ्राँसिस्को हें नांव आतां वळखीचें जालां. ताणें आपणाले बरपावळीची सुरवात ल्हान पिरायेर केली. मागीर 'दर म्हयन्याची रोटी', 'वावराड्यांचो इश्ट', 'नवें गोंय', 'कोंकणी मेल', 'गुलाब', 'द गोवन रिव्ह्यू' आदि नेमाळ्यांनी तागेली बरपावळ नेमान उजवाडाक येवंक लागली. ताणें बरयिल्ल्या निबंद काणयांक नेमाळीं आनी संस्थांकडल्यान इनामांय लाबल्यांत. मुंबय, गोंय तशेंच कर्नाटकांत जाल्ल्या कवी संमेलनांनी ताणें वांटो घेतला. आकाशवाणीच्या मुंबई केंद्रवेल्यानूय ताणें कविता वाचन केला. तें मुंबयत रावता. पूण तागेले बरपावळीच्या माध्यमांतल्यान तें सगळ्याक पावता. ताणें बरयिल्ल्यो ल्हान ल्हान काणयो म्हणल्यार जिविताच्या वाटेवयल्यो कुरवो. त्यो काणयो मनोरंजक तश्यो बोधूय दिवपी. त्या सुपुल्ल्या काणयांक 'बोधिका' अशेंय म्हणूं येता. अशा सान 95 काणयांचें तागेलें पुस्तक 'म्हजो दिस्टावो' ह्या नांवान गोंयांत देवनागरी लिपींत 2005 वर्सा उजवाडाक आयलें. तें खूब गाजलें आनी 2008 वर्सां तेंच पुस्तक मुंबयत रोमी लिपींतल्यान प्रकाशीत जालें. उपरांत अशाच स्वरूपाच्या 50 सान काणयांचें तागेलें पुस्तक 'ओंपता तें पिकता' गोंयांतल्यान 2008 वर्सा देवनागरी लिपींतल्यान प्रगट जालें. हालींच उपेंद्रकिशोर राय चौधुरी हांच्या 'टुनटुनीर बोइ' ह्या बंगाली काणयां - पुस्तकाचो ताणें केल्लो कोंकणी अणकार 'टुनटुनीच्यो काणयो' ह्या नांवान 2011 वर्सा साहित्य अकादेमीन उजवाडा हाडला. आतां ह्या 'हुंबऱ्यावयली पणटी' कविता संग्रहाक लेगीत आदलेवरीच वाचप्यांकडल्यान बरो प्रतिसाद लाबतलो अशी म्हाका खात्री आसा.

- पुंडलीक नारायण नायक

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,

श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय - 403 702